# काणकोणची लोककला एक दायज

*बरोवपी*

भौ. अजित पैंगीणकार
एम्.ए.

काणकोणची लोककला
एक दायज



पयली आवृत्ती - २००१

*प्रकाशक :*
सौ. सुखदा पैंगीणकार
अनुजित प्रकाशन
पैंगीण - काणकोण - गोवा
दूरध्वनी क्र. ६४१२३५

*मुखचित्र आनी भितल्लीं चित्रां*
भौ. श्रीनाथ पागी
सौ. रेश्मा श्रीनाथ पागी
आगस-माशे
फोन : ६४००७१

*मुद्रक :*
इंप्रेशन्स
बी-२ अक्षर आर्केड,
३३६०/४, गोंधळी गल्ली क्रॉस रोड, बेळगांव

*मूल्य :* १००/-

मांडाचो नास ते
पाण्डीच्या नासाचो आशीर्वाद
आनी जाणट्यांच्या पुण्यायेन
काटली पंचविस वर्सां सावन
म्हज्या सांगाताक आशिल्या
म्हज्या सगळ्या
खेळगड्यांक .....

# बरपावळ

# मांडार वचचे पयलीं

मांड म्हळ्यार पसरो. पसरावन बसतात तो जागो. पसरावप म्हळ्यार मांडप. मांडून बसतात देखून तो मांड. मांड जायत्या तरांचे आसतात. जागरां मांड, धाला मांड, शिगम्या मांड, काल्या मांड, हे मांड वर्साक थोडोच तेप उकते आसतात. हे मांड उगडपाक वा ह्या मांडार कांय राखीव म्हयने आसतात.

आमच्या घराकुशीक अशेच दोन मांड आसले. घराच्या उजवेवटेन धालां मांड तर दावेवटेन जागरा मांड. धालां मांडार धालांपरस फुगड्यो चड, चलताल्यो. देखून म्हाका रस नासलो. पूण जेन्ना आयचे पिळगेंतली तरणाठी, पारंपारिक कोकणी फुगडी घालची सोडून फू बाये फू, फुगडी फू हे सिनेगीत गायताली तेन्ना मात तिडक मारताली.

आमका भुरगेपणान सावन आकर्षण आसले तें जागराचें, हो जागोर फांतोडेर जातालो. रुपडे घालून आयिल्ले संवंग म्हळ्याल म्हातारी. ही म्हातारी गांवच्या प्रतिष्ठितांचेर हात घालताली. आनी आमका हांसयताली. देखून आमकां हो जागोर आवडटालो. खरें तर हे म्हातारेचो आमका भंय दिसतालो. सामके विद्रुप तोंड ते. पूण भास... तिका जेन्ना कोणूय प्रस्न करतालो, 'आगे तुका ती, गळसरी कोणे दिली गे?' आनी ती जाप दिताली 'ती गळसरी मूं? ती तुमच्या जनूमामान दिली. आनी प्रेक्षकांत बशिल्लो जन्नूमाम जेन्ना उद्वेगान 'चळळया' ही म्हातारी म्हणत थंयसून कूस मारताले तेन्ना ते म्हातारेचे हेल आनी जनूमामाले उद्गार आयकून सगळे पोट धरून हांसताले. ह्या जागराक पेरणी जागोर म्हण्टाले. हाचे नाव पेरणी जागोर कित्याक तें तेन्ना आमका कळळें ना - कांय तेपान हो जागोर बंद जालो. उपरांत कळ्यें जागोर करपी मेलो देखून जागोर बंद जालो. हो जागोर करपी आतां कोण ना.

तेन्ना सावन म्हज्या मनाक एक खंत भोगताली जी आज मेरेन आसा. ती म्हळ्यार जाण्टया फाटल्यान ह्यो कला करपी कोण ना. जागोर जावं धालो, वा कालो. सध्या तरी लिखित रुपांत ना. आनी देखून आयज जे जाण्टे ही कला सांबाळतात ते मरतकूच तांच्या फाटल्यान ही कला कोण करतलो? देखून ही कला कोणेतरी बरोवन काडूंक जाय. लिखित सरुपात ती येत तर मुखावेल्या पिळगेक तिचो उपेग जावं येतलो. नाजाल्यार ती कला ह्या कलाकारांवांगडाच सोपतली. आनी आमच्या पारंपारिक धालां जाग्यार 'फू बाये फू' असली पदां

येतली. पूण हे लिखित सरुपात येतलें कशें? थोडें काम न्हयतें. हें काम करपाक कोणेतरी मुखार सरूंक जाय. ह्या कामाक पूर्ण वेळ दिवंक जाय. जाल्यारूच ते शक्य जातलें. मदीं हावे कांय वर्सा. अंत्रुजेंतलो शिगमो लिखित सरुपात हाडचो यत्न केलो. पूण गीताच्या मदीं येवपी शबैन म्हाका मुखार सरुंक दिलेच ना. आनी जायतो करूवय हें काम मुखार व्हरूं म्हांकां जमलें ना. 'असे सातपुड्याचे दोंगर ताच्या माथ्यावर सोबेगा मदें आहे पांडव राजगादी'

शबै शबै शबै शबै शबै ॥ हांव इतल्यारूच उरलो.

हालींच अजितबाबान म्हजेकडेन एक फायल हाडून दिली. मात्शीनदर भोंवडाय आनी चुको बी आसल्यार काड म्हूण सांगलें. अजितबाब एक पत्रकार. पत्रकारांनी लोकांच्यो चुको दाखोववपाच्यो. पत्रकाराच्यो चुको हांव कितें दाखयतलों? म्हूण ती फायल साभार परत करची हो विचार मनांत आयलो. पुण अजितबाब एक लोक कलाकार. फाटली बरींच वर्सा या वावरात आसा. तरी ताका वायट बी दिसचें न्ही देखून हांवे फायल उगडली. चाळची आनी दिवची म्हूणैण पुण वाचतकीर म्हाका कितें जालें तेंच कळचे ना. भराभर अधाश्याभशेन हांव वाचीत गेलो. चुको सुदारित गेलों. मनाक भोव खोस भोगिल्लो. जें काम म्हज्यांन करूंक जालें ना तेंच काम म्हजे मुखार अजितबाब घेवन आयिल्लो.

हे कांम ल्हान न्हय. अजितबाबान ह्या कामाक कितलो वेळ दिला आसतलो. तो खंय खंय भोंवला आसतलो आनी कितले त्रास काडल्या आसतले ताचो अदमास करूंक जावचो ना. ह्या कामाचें मोल करूंक जावचे ना. पूण म्हज्या मतान इतल्यान सोपूंक ना. हे काम आनीक मुखार वचची गरज आसा. ही तर फक्त सुरवात.

चुको काडोप सोपें आसता पुण असलें काम करप सोपें न्हय. आनी काम करतल्याच्योच चुको काडोप जाता. हांवे जमता तितलेयो चुको काडल्यात पूण ह्यो चुको काडटना अजित बाबालें काम बरें जावचें ही नदर दवरल्या. तांचे काम पळेल्यार तांच्यात मुखार वचपाची तांक आसा म्हणपाचे कळता. ताणे मुखार वचचें. जे किंते हातूंत येवंक ना तें हाडचें. काणकोणा भायरूय जायती कला आसा तिचेय कडेन लक्ष दिवचें. इतलेंच ह्या खिणांक सांगन दिसता. आनी तो तें करतलो हाची खात्री आसा. ताच्या मुखावेल्या कांमाक यश आंवडेतां.

— अभयकुमार



# लोककला एक चिंतन

फाटलीं पंचवीस वर्सां लोककलेच्या मळांर बावुरताना खूब लोकांक मेळलों खूब भोंवलों. नवे नवे शिकलों. लोककलेच्या माध्यमांतल्यान देशभर भोंवडी केली. त्या निमतान लोकांच्यो वळखी जाल्यो. मनांत सदांच एक खंत भोवन भोवन येताली. जाचे वरवीं आमी देस पळयलों. ती कला आमचे मेरेन खंयच्यान पावली गा? कोणाचें हें दायज? आनी आयज कोणाच्या म्हऱ्यांत पावलां. भाशेचो, उतरांचो लेगीत उगम जावंक नाशिल्लो तेन्ना आमच्या आज्या पणज्यांनी ही कला तिगोवन दवल्ली. आनी आज आमी मात आमच्या सुवार्थाखातीर ही कला विकपाच्या मार्गार पावल्यात.

फाटलीं खूब वर्सां सावून ह्या क्षेत्राकडेन आशिल्यान काणकोण म्हालांतल्या विंगड विंगड लोकांकडेन संबंध आयलो. पळयलें - वाचलें - अणभवलें आनी दिसलें कीं लोक संस्कृताय हें दायज आयज जे शेणत वता तें तिगोवन दवरपाक जाय. लिखित सरुपांक तें आसूंक जाय. मागीर तें उण्या सरुपांत आसना, कित्याक? पूण तें दवरपाक जाय ही आस्त बाळगूनच ह्या कामाक लागपाचें थारायलें.

हें काम तशें ल्हान न्हय. आनी ते खातीर काणकोण म्हालाचो वाठार पालथो घालो. खंय पावलो ना? धालाचे मांड पळयले. शिगम्याच्या मांडानीं गेलों. जंय जंय बायलांच्यो लोकांनाच्यो सर्ती जाताल्यो त्या जाग्यार गेलों. मुलाखती घेतल्यो. जाणटेल्यांकडेन उलयलों. भुरग्यांक मेळलों. कांय जाणांचें रेकॉर्डिंग केलें. कांय कॅसेटी पेड्डुयार जाल्यो. कांय जाग्यार गेले कडेन इतलो हांव वळखीचो. तांच्या वावरांतलो. इतलीं वर्सां लोककलेच्या मळार आसतना लेगीन म्हाका म्हऱ्यांत घेतलोना. जे जाय तें सांगले ना. कितें तरी हांव व्हड अन्याय करपाक सोदतां, मोठी चूक करूक सोदतां असो अणभव लेगीन आयलो. पूण सोडलें ना.

हो वावर खूप व्हड. हांवे जें काम केलां तांतूत उणेपण आसूंक येता. तें करपाखातीर खूप लोकांची मदत घेतली. तांची याद करपाक जाय. ह्या कामाक म्हाका आमचे अशोक पैंगणिकर, केशवपागी, गुरु गांवकार, सुरेश पागी, पुरुषोत्तम टी. गांवकार, कु. सीमा नाईक, रमेश कोमरपंत, अभयकुमार वेलिंगकार, हांचेकडेन उलोवप जालें. कांय प्रमाणांत जें मेळ्ळे तें घेतलें. फुडले पिळगेक तें उपकारतलें अशी आस्त आसा.

कांय लोकांच्या म्हऱ्यांत जेन्ना गेलों तेन्ना आयकुवपाक मेळ्ळें. अमको आयिल्लो. ताणे व्हेलां मरे सगळें तुका आनी वेगळें जाय? बरें कितें मेळटा दिसता न्हय? म्हाका उतरां, आनी जो पयली आयलो ताका मात भांगरा पदकां. हो

लेगीत अणभव घेतलो. कांय लोकांकडेन खूब आसा. पूण भितरल्ले भायर काडपाक भियेतात. हांवे सांगले ना जाल्यार कोणाक तें समजुपाचें ना हाची जाणवीकाय तांका आसा तरी लेगीन उलोवपाक सोदीनात.

इतल्यान हें सोपलें ना. हातूंत आनीक इल्लें घालपाची गरज सा. कसलीच भरस करिनास्तना गांठचे कांयच घालिनास्तना जशें आसा तशें दवरपाचो, सांगपाचो हांवे यत्न केल्लो आसा. हाचे परस चड खबर आशिल्ले लोक आसतले लेगीत. घडये हांव तांच्या म्हऱ्यांत पावलो लेगीत नासतलो. पूण इतल्यान हें सोपलें ना. ही तर निकतीच सुरवात.

ही कला जिती दवरपाखातील म्हजे सहकलाकार, म्हजे वांगडा देश भोंवडेर गेल्ले, नाचपी, वाजोवपी, गावपी, सगळे कलाकार, आमचे स. मधुकर नाईक (कामणूमाम) स. कृष्णा सतरकार, स. विठ्ठल बांदेकार, पांडुरंग पैंगीणकार हे जाण्टे पिरायेचे तशेंच तरणे पिळगेच्या सगळ्या वांगड्यांचो हांव उपकारी आसां.

फाटलीं पंचवीस वर्सां लोककला मळाचेर वावुरतां आसतना सावर्डेचे स. सदानंद रिवणकार, दिवचलचे स. कमलाकांत पळ, पणजेचे तिमोतिओ फर्नांडिस, कला अकादमीचे विनायक खेडेकार, शांताराम राणे, पांडुरंग फळ देसाय, बिठ्ठोणचे मनोहर भोसले, वेलिंगचे कांता गावडे, वास्कोचे रामानंद रायकार, श्रीस्थळचे कमलाकर म्हाळशी, सावर्डेचे रणजीत काकोडकार, कुंडयचे अजित कुंडयकार, कुंभार जुंवेचे महेंद्र गांवकार, कला आनीं संस्कृती संचालनालयाचे एम्. व्ही .नायक अश्विन लोटलीकार, नेहरु युवक केंद्राचे रामकृष्ण जुवारकार, आमचे रमेश स. कोमरपंत, गोपी काणकोणकार, स. पेरु. लोलयेकार, या लोककलाकारांकडेन संपर्क आयलो. खूब अणभव घेतले. शिकलों. जें कितें मेळयलें तेंच हांगा दिवपाचो यत्न केला. तें मानवतलें आनी फुडले पिळगेक उपकारतलें अशी आस्त बाळगितां.

पुराय हात बरोवप आमचे मित्र भौ. अभयकुमार वेलिंगकार हाणीं वाचून काडलें. व्याकरणाच्यो. भाशेच्यो कांय चुको सोदल्यो. सुदारल्यो. कसलीच कटकट करीनास्तना. बेजार धरिनास्तना. हांव तांचो खूब उपकारी. जें आसा तें दवरपाक जाय. जमल्यार वाडोवपाक जाय ही तांची शिटकावणी खूबच भावली. पुस्तक छापून हाता पडमेरेन ताणे जी धडपड केल्या ती याद दवरपासारकी. पयली बरपावळ. पयले पुस्तक. आनी ते बरें जावपाक जाय ही उमळशीक मनात धरून ताणे वावर केलो. ज्या ज्या लोकांनी ह्या वावराखातीर म्हका मदत केली तांचे उपकार मानीनास्तना सदांच तांच्या रीणांत रावपाक हांव पसंद करतलों.

— अजित पैंगीणकार



# सांगपासारखें

लोककला
लोककला म्हळ्यार कितें?
लोकांनी लोकांखातीर तयार केल्ली ही कला.
आमचे कडेन ती पावली कशी?
ताचें कूळ सोदप खंयच्यान?
ताचो उगम खंय?
ताचो जल्म खंय जालो?
आमचे मेरेन ती पावयली कोणी?
लोककला जागयली, वाडयली
त्या त्या वाठारांत
ते ते संस्कृतायेन!
गोंयचे भुंयेचेर राज्य केल्ल्या
यादव, चालुक्य, भोज, मराठे इतलेंच न्हय
तर पोर्तुगीजांचे सत्तेचो लेगित हे
संस्कृतीचेर प्रभाव पडलो.
कोण आयले. कोण गेले
हाचो थाव ना
ते राजवटीचो. ते संस्कृतायेचो
कलांचो ह्या जनमानसाचेर
जानपदाचेर प्रभाव पडलो.
लोककलांची खरी शक्ती
हे सैम.
ही संस्कृती.
तांतुतल्यानच सुवारी शिवोरली,
तालगडी, तोणयामेळाचो
उगम जालो.
हे संस्कृतायेतल्यानच
गोफ आयलो.

फुगडी, धालानी जल्म घेतलो.
शंखासूर कालो अवतारलो.
लोककलेच्या रुपांतल्यानच
मानवान परिस्थितीच्या, निसर्गाच्या
आड बंड केलें.
हे लोककलेंत मोग आसा, बंड आसा.
रडणें आसा, हांसणें आसा, राग आसा.
फोग आसा.
दर्यांच्या लाटांचे संगीत आसा.
दोंगरमाथ्यांचें वरदान आसा.
राकट दणकट हाताघी पायाचो
पदन्यास आसा.
दीसभर शेता भाटांत काम करपी
कुळांगरांत मेरा मारपी,
कुळवाड्यांचे समाधान आसा.
कितें आशिल्लें त्या वेळार?
कसलीच करमणुकेची साधनां नाशिल्लीं
चैन नाशिल्ली
खेड्या पाड्यांक आशिल्ली फक्त
लोककला. लोकांनाच
ह्या लोकांनाचाक, लोककलेक
धार्मिकतेचें एकूच सरुप.
खंयचोच लोककलेचों प्रकार
आमकां जाय तेन्ना पळोवपाक मेळचोना.
देवाक नमन करून सुरुवात जाता.
आनी देवाक नमन करून सोंपता.
शिमग्याच्या वेळारच तालगडी, तोणयां मेळ जातलो.
धालांच्या वेळारच सखयां साद जातलो
गणपतीच्या वेळारच फुगडी फू जातली,
दिवाळेच्या दिसानीच शंखासूर येतलो.
दसऱ्याच्या वेळारच तरंगा फुलतलीं

जात्रांच्या दिसानीच 'देव गजानन रे'
हो गजर आयकोवपाक मेळतोलो.
संस्कृताय म्हळ्यारच हें.
रुढी, परंपरा, निष्ठा, संस्कार हांचो मेळ
म्हळ्यारच संस्कृताय.
एका पिळगेकडल्यान दुसऱ्या पिळगेकडेन
गेली ती संस्कृताय.
आमचे पूर्वज शिकले ना.
शिकप म्हळ्यार कितें तें तांका खबरच नाशिल्लें.
बरपावळच नाशिल्ली.
पूण ही कला जिती उरली.
आवाजाचे गिन्यानच, नाशिल्ले त्या वेळार.
तरीय ही कला जिती उरली. न्हय दवरली.
आमच्या जाण्टेल्यानी.
शिकनाशिल्यानी. शेतात काम करतना
शेतांत थाम लायतना. नडटना. कामत राखतना
भात मळटना भाताच्यो पोटल्यो बांधतना.
आपल्या भुरग्यांची लग्ना करतना.
लग्नाच्या माटवातल्यान चलयेक भायर काडटना.
काणकोण म्हालाचो विचार केल्यार
हांगा गांवगिऱ्या वाठारांचो, आदिवासी वाठार,
हो वेगळो विभाग करचो पडटलो.
आपल्याक बळी राजाचे वंशज मानपी
हो आदिवासी लोकांचो वाठार. गावापासून पैस
हांची लागवड करपी. तरी लेगित ह्या लोकांनी ही संस्कृताय जागयली-वाडयली
आतां तांचे संस्कृतायेंक रौद्रपणा आसा,
गंभीरताय आसा, राकटपणा आसा. तरी लेगित
काणकोणच्या हेर वाठारातल्या लोकांनाचाकडेन
एकचार सादून आसा
हेर वाठारातल्या लोकांनाचांत मृदुताय आसा
नाजूकसाण आसा.

आपलेपरीन वेगळेचार आसा
लोकांनाच वा संस्कृताय म्हळ्यार कितें?
रूढी, परंपरा. कलेचेर निष्ठा आनी
ताचो समाजाच्या एकंदर जीवनाचेर जाल्लो
संस्कार म्हळ्यारच संस्कृताय.
मनशाचे जीवन, रावप, खावप, जेवप
म्हळ्यारच संस्कृताय.
एका पिळगेन दुसरे पिळगेक दिल्ली.
हे पिळगेंतल्या धर्माच्या मुखेल आंगान
देवदेवतांच्या समाधानाखातीर
कला जतन केली.
पोर्तुगीजांच्या काळार हे कलेक मारपाचो
चिड्डवपाचो यत्न जालो तरी लोगित
नवे उमेदिन नव्या नेटान ही कला
तिगली. वयर सरली.
हांगाच्या माडानी,
शिगम्यातल्या धालांतल्या मांडांनी,
फुगड्यांच्या सालांनी,
जात्रातल्या रस्त्यानी कलेक पालव दिलो.
म्हणून ही कला जिती उरली
लोककला हेच संस्कृतायेचे प्रत्यक्ष
रुप आसा.
जात, धर्म हाच्यां पेल्यान वचपाचें
काम ही संस्कृताय करता
होच खरो अविष्कार आसा
काणकोण म्हालांत हें चित्र आज लेगीत
बदललें ना. थोड्या भोव प्रमाणांत तांतूक
शहरीकरणाचो जरी परिणाम जाल्लो
आसलो तरी अस्सल मातयेचो
वास घेत ती जिती आसा.



# काणकोण - एक वेगळेपण

भगवान परशुरामाच्या पदस्पर्शात पावन जाल्ली ही परशुराम भूंय - आनी हे भुयेंवेल्या अकरा म्हालांतलो काणकोण म्हाल. गोंयच्या दक्षिण टोकाकडेन आशिल्लो. गोंयच्या हेर तालुक्यांच्या मानान अजून लेगीत सामाजीक, अर्थिक आणि उद्देगीक मळार मागासपणाचो शाप आशिल्लो. तरी लेगीन गोंयची मुक्तताय आनी सांस्कृतीक क्षेत्रांक आपलें वेगळेपण तिगोवन आशिल्लो. समृद्ध इतिहास तशेंच तितल्याच ताकदीची लोकसंस्कृताय सांबाळताना थोड्या वेळा पुरतो भौतिक विकासाकडेन फाटभूंय केल्लो हो म्हाल.

ह्या म्हालाच्या संस्कृतायेकडेन नदर मारतना १५१० सालां गोयांत आशिल्ली पोर्तुगीज सत्ता आनी त्याफाटली ४५० वर्सांची राजवट तशेंच १५१० सालपैंली गोंयाक ज्यो राजवटी आनी सत्ता आयल्यो ताची विभागणी करची पडटली.

भगवान परशुरामान गोंयच्या दक्षिण विभागांक वास्तव्य केलें. काणकोण म्हालांतल्या पैंगीण भागांत हाची साक्ष दिवपाक पैंगीणचे एकूच परशुराम देवालय पुरो अशें म्हणूं येता. त्या उपरान्त जे लोक हांगा रावपाक आयले तातुंतले कुणबी किंवा गावडे ही जमात आद्य जमात मानपाक जाय. ह्या कुणबी समाजान डोंगराळ भाग आपलो मानलो. ह्या समाजान जी संस्कृताय आपल्या बरोबर हाडली ती संस्कृताय लेगीत आद्य मानपाक जाय. त्या संस्कृतायेचीं रुपां तांच्या सण, उत्सवांतल्यान दिश्टी पडटात.

गोंयचेर खूब राजवटी आयल्यो. कांय राजवटीनी दीर्घकाळ सत्ता गाजयली. तर कांय राजवटी अल्पकाळाच्यो थारल्यो. तातूंक भोज, शिलाहार, चालुक्य, कदंब, देवगिरीचे यादव आनी विजापूरचो आदिलशहा हांचो आसपाव करपाक जाय. विजयनगरचे साम्राज्य काणकोण म्हालाबरोबरच कर्नाटकातल्या गोकर्ण मेरेन पाविल्लें. आज काणकोण म्हालांक जे लोकांनाच, लोकनाट्यां, लोकसंगीत दिष्टी पडटा ताचेर विंगड विंगड वाठारांतल्या राजवटींचो प्रभाव पडिल्लो दिसता.

गोंयात १५१० सालांक जरी पोर्तुगीज आयले, तरी लेगीत काणकोण म्हालाचेर ही सत्ता थोडोच काळ आशिल्ली. हो म्हाल बहामनी, आदिलशहा तशेंच राजे सौंदेकारांच्या ताब्यात आशिल्लो. ताका लागून नव्या काबीजादींक ह्या म्हालाचो आसपाव आशिल्लो. काणकोण म्हालाचेर सादारणपणान १९८ इतलीं वर्सांच पोर्तुगीज राजवट आशिल्ल्ली आनी ताचो परिणाम काणकोणच्या संस्कृतायेर बरे तरेन जालो. मूळ संस्कृताय तिगली. आज लेगीत भारतीय संस्कृतीची मुखेल

रुपां, आंगां काणकोणचे मातयें दिष्टी पडटात. ह्या म्हालांतल्या लोकांक फेस्त कशें चलता ते खबर आसा पूण पाश्चिमात्य संस्कृतीचे दर्शन दाखोवपी 'कुरुद्दिन' खबर ना. हांगाच्या लोकांक शीर्षारान्नी, विरामेळ खबर आसा, जागोर, शेंसर, भोवरी खबर आसा.

ह्या म्हालांत जीं लोक नाट्यां जातात तांकां कर्नाटक राज्यातल्या संस्कृतायेचो वास येता. पेरणी जागोर, कालो, दशावतारी कालो, संकासूर कालो, रातकालो, धंयकालो, गवळण कालो, खेळकालो हे सगळे प्रकार कर्नाटक शैलींतल्यान चलतात. ५२५ वर्सां परस चड वर्सांची परंपरा आशिल्ल्या हांगाच्या पर्तगाळ जीवोत्तम मठांत गोंयचे परस कर्नाटकांतल्या लोकांचो-भाविकांचो चड आसपाव आसता. कर्नाटक शैंलीत तोडार मुखवटो घालुन जे लोक नाट्याचे प्रकार चलतात बरोबर तेच भशेचे प्रकार हांगा लेगीत चलतात.

काणकोण म्हालातल्या दादल्यानी लोक संस्कृतायेच्या संवर्धनाक, जडण घडणुकेक खूब मोलाचें अशें योगदान दिल्लें आसा. पूण दादल्यांच्या खांद्याक खांदो लावन हांगाच्या बायलांनी लेगीत आपले शैलींत, आपल्या गावपाच्या, नाचपाच्या प्रकारांत वेगळेचार साधिल्लो आसा. तांतूत रानवटी भागांत रावपी कुणबी ना जाल्यार वेळपांच्यो बायलो आसूंदी, वो दर्याच्या देगेर रावपी, दर्याच्या मधुर संगीताची, त्या ल्हारांच्या तालाचेर नाचपी, मोडपी आमच्यो नुस्तेकार समाजाच्यो ललना आसूंदी.

काणकोण म्हालांतल्या कामकरी, काष्टीकारी समाजाचो मुखेल आनी महत्त्वाचो उत्सव म्हळ्यार शिगमो. ह्या म्हालांतले धनगर, ना जाल्यार कुणबी समाज जे वेदीन शिगमो खेळटात तीच उमेद, तोच उत्साह नाईक, मराठा किंवा भंडारी समाजातल्या नाचपी लोकांमदी आसता. रानावनांतल्यान, शेतांतल्यान, भाटांतल्यान वर्सभर कश्ट करपी हो समाज, थाव लेगीन लागना अशा दर्याक वर्सभर रापण मारून आपलें पोट भरपी नुस्तेकार समाज, पांच दीस मात देहभान विसरता. घुमट, शेमेळ, काशाळ्याच्या तालार सगळें विसरता. लोक संस्कृतीच्या वांगडाच राष्ट्रीय एकचाराची शिटकावणी दिवपी 'गोफ', पंजाबच्या भांगडा नाचाकडेन कांकणभर चडलेगीन म्हणपाक येता आपलें साम्य दाखोवपी तालगडी, गुजरातच्या दांडिया रास ह्या नाचाकडेन व्हरपी तोणयांमेळ, पुराणांतल्या कथां वांगडा संस्कृतायेचो पडडो उगडपी चौरंग, मोरुले, दिवलीनाच, खेळटां खेळटां खेळगडी सगळें-सगळें विसरतात. ढोल ताशाच्या तालाचेर वीरामेळ नाचत येता, देवाचे नाव घेतां घेतां 'आरत' जाता. आदिम काळापासून हें चलत आयलां, चलत रावतलें.



# लोकवाद्यां

गोंयच्या लोकजीवनायें महत्त्वाचे आंग आशिल्लीं ही लोक वाद्यां. शास्त्रीय संगीताची, भारतीय संगीताची खाशेली बरपावळ आसा - ताल आला. हाचो अर्थ लोक संगीताक ना अशें न्हय. लोक संगीताचे जाणकार आनी चंद्रावळ वाजोवची जाल्यार पेरुमामानच, अशे छातयेर हात मारुन सांगपी सर्गेस्त पेरू लोलयेंकार हे एक सोडले जाल्यार बरपावळी प्रमाण, आनी लिखीत सरुपांत लोकसंगीताची काणकोणाक तरी ठेवण ना.



आमचे जाण्टे तांच्या जाण्टेल्यांचे पळोवन शिकले. भुरगेपणांत एक खेळणे म्हण घुमट घेतलें, शमेळ घेतलो आनी खुदतां खुदतां घाडी जावचे तशे वाजोवपी तयार जाले, गावपी तयार जाले. मुखार अशेंच जातलें म्हणपाचें सांगूक जायना. आयच्या भुरग्यांक ती ओड ना देखून लोक वाद्यांक, लोक संगीताक लेगीत बरपावळ जाय, ताल जाय अशें दिसता.

ह्या लोक संगीताक घुमट, शमेळ, कासाळें, ढोल, तासो, शेनाय, सूर्त, जघांट, बांको सारखी वाद्यां वापरतात.

घुमट हें मातयेपासून तयार करतात. जाल्यार ताका चामडे वापरतात सोड्डूक (घार) ह्या प्राण्याचे. सोड्डूक हो प्राणी घोलीनी चडसो रावता. ताजे रक्तावेले चामडे मेळल्यार घुमट बरें वाजता. पयलीं अटम्याच्या दिकान घुमटां सांदताले.

शमेळ ह्या वाद्याची कळशी खैर जातीच्या लाकडाची करतात. आतां पणसाचें लाकूड लेगीत वापरतात. शमेळाचे चामडें बकृऱ्याचे. दोन बारीक बड्यो घेवन शमेळ वाजयतात.

कासाळें हो झांजेचो एक प्रकार. काशें ह्या धातूपासूत तें तयार करतात, देखून कासाळें.

ढोल, तासो हो मुळांत लाकडाचो. जाल्यार ताचेवेले चामडें बकऱ्याचे. लाकूड चड करून पणसाचें वापरतात. कांय जाग्यांनी ढोल बैलाच्या चामड्याचो लेगीन तयार करतात.

जंघाट, बांको, शेनाय, सूर्त, झांज, टाळ, बारीक ढोलकें, पखवाज ही वाद्यां लेगीत कांय कांय वेळार वाजयतात. खयंच्याच वाद्यांक लिखित शास्त्र अशें ना. तें एके पिळगे कडच्यान दुसरे पिळगेमेरेन पावलें. त्या त्या विधीनुसार वाजयलीं, वापरलीं. हालीच्या तेपानी हार्मोनियम आनी तबलो लेगीत लोक जीवनाचे, लोक कलेचे एक आंग जावून बसलां.



# नमन

लोकानाचाची सुरुवात ज्या जाग्यावेल्यान जाली तो मांड. या मांडाचे दोन मुखेली. एक मांडाचो प्रमुख. तो मांडेली. जाल्यार गावपी तो गाणेली. मांडार निवळसाण दवरप. मांडार दिवली पेटोवप हें सगळें काम मांडेल्याचें. सगळ्या नाचपी लोकानी एकट्यांय जमपाची चर्चा करपाची ही जागा.

काणकोणाक दोन मांड आसात. एक शिगम्याचो जाल्यार दुसरो धालांचो. धालांच्या मांडार दादल्यांक प्रवेश ना. हाच्या उलट शिगम्याच्या मांडार नमनापासूनचे मांड मोडपाची जी प्रक्रीया आसा त्या सगळ्या कामांक बायलेचो आस्पाव आसा. ह्या मांडार फट उलोवप ना, झगडोप ना, सोरो पियोवन येवप ना, भश्टया बायलांनी येवप ना, मांडार एकदां उलयल्यो गजाली खऱ्यानी करून दाखोवपाक जाय अशी तऱ्हा आशिल्ली. पयलींच्या तेंपार 'कोपरी' नावाची जी पद्धत आशिल्ली. कोपरी-कोफ्र म्हळ्यार तिजोरीचो अपभ्रंश. ती फोडपाचे काम ह्याच मांडार जाताले. 'कोपरी' म्हळ्यार दर आठवड्याक काय पैशे जमोवप, ताचे फोडप म्हळ्यार संचय केल्ले पैशे वांटून घेवप. ताचे पयलीं जाका जाय ताणी व्याजान ते पैशे व्हरप. मात् कोपरी फोडटा त्या दिसानी ते परते दिवप ही सगळी कामा मांडानी चलतालीं.

ह्याच मांडार नमन घालून शिगम्याची सुरुवात जाता. नमन म्हळ्यार नमस्कार. देवाक घाल्लें गाराणें. गांवागावानी मेळाक वचचे पयली सगळ्या देवांक आपोव्न तांचो आशिर्वाद मागपाची. नमन घालपासंबंधी सगळ्या खेळगड्यांक आमंत्रण दिवपाचे काम मांडेल्यान करप. मांडेली दर एकल्याच्या घरावचून तांका मांडार आपयता. त्या जाग्यार चर्चा जाता. एकमेकां मितर आशिल्या विचारांक वाचा फुटता. आनी

॥ गणेशा देवा गा नमन करूं ॥

खयंचेय काम करचेपयलीं गणपतीचें आव्हान करतात, तें मांडार लेगीन जाता. शिगम्याच्या मांडार तशेंच धालांच्या मांडार लेगीत नमन जाता. पांच किंवा सात दिसांचो खेळ बरे तरेन जावचो म्हूण देवाक मांडार गाराणें घालतात. उपरांत मांडेल्याली घरकान्न सगळ्यांक ओवाळणी करता. आनी नमनाचो प्रकार सोंपता. गणपतीबरोबर सगळ्या थळाव्या देवांची, लागसल्ल्या परिसरांतली इतलेंच न्हय तर ज्या ज्या जाग्यार खेळगडे वचपाचे आसात. तशेंच चुकल्यामाकल्या देवाचे नाव घेवून नमन जाता.

नमनाक नृत्याचो प्रकार आसना. मांडार अर्द वाटकुळे उभे रावून गाणेली पयलीं म्हणटा उपरान्त ताका बाकीचे खेळ गडी साथ दितात. तास देड तास हें नमन चलता.



जसे गणेशा देवा गा नमन करूं ।<br>
जसे गणेशा देवा गा खेळ रमयता ॥१॥<br>
जसे धरती माये गे नमन करूं ॥२॥<br>
जसे खुट्ये माये गे नमन करूं ॥३॥<br>
जसे मांडाच्या नासा गा नमन करूं ॥४॥<br>
जसे परशुरामा देवा गा नमन करूं ॥५॥<br>
जसे पुरूषा देवा गा नमन करूं ॥६॥<br>
जसे गवड्या देवा गा नमन करूं ॥७॥<br>
जसे नारायणाच्या धड्या गा नमन करूं ॥८॥<br>
जसे सिद्धेश्वरा देवा गा नमन करूं ॥९॥<br>
जसे बाबऱ्या देवा गा नमन करूं ॥१०॥<br>
जसे तळ्याच्या नासा गा नमन करूं ॥११॥<br>
जसे दरवट्याच्या नासा गा नमन करूं ॥१२॥<br>
जसे सातेरी माये गे नमन करूं ॥१३॥<br>
जसे पाचा पुरुषा देवा गा नमन करूं ॥१४॥<br>
जसे तडव्याच्या नासा गा नमन करूं ॥१५॥<br>
जसे पाण्डींच्या नासा गा नमन करूं ॥१६॥<br>
जसे सातेरी माये गे नमन करूं ॥१७॥<br>
जसे पाण्डीच्या नासा गा नमन करूं ॥१८॥<br>
जसे नारायणा देवा गा नमन करूं ॥१९॥<br>
जसे चंदनाच्या ब्रम्ह्या गा नमन करूं ॥२०॥

जसे चंदनाच्या नासा गा नमन करूं ॥२१॥
जसे पाण्डीच्या नासा गा नमन करूं ॥२२॥
जसे म्हाडांतल्या नासा गा नमन करूं ॥२३॥
जसे तळेराच्या नासा गा नमन करूं ॥२४॥
जसे देवते माये गे नमन करूं ॥२५॥
जसे धड्याच्या देवा गा नमन करूं ॥२६॥
जसे वाघऱ्या देवा गा नमन करूं ॥२७॥
जसे पूर्वांच्या ब्रम्ह्या गा नमन करूं ॥२८॥
जसे नागीजाणा देवा गा नमन करूं ॥२९॥
जसे आदिपुरुषा देवा गा नमन करूं ॥३०॥
जसे मुळयेरा देवा गा नमन करूं ॥३१॥
जसे बेताळा देवा गा नमन करूं ॥३२॥
जसे आगि बेताळा देवा गा नमन करू ॥३३॥
जसे चक्राच्या नासा गा नमन करूं ॥३४॥
जसे टक्याच्या नासा गा नमन करूं ॥३५॥
जसे खर्गाच्या नासा गा नमन करू ॥३६॥
जसे नाशवंते माये गे नमन करूं ॥३७॥
जसे आर्वांच्या देवा गा नमन करूं ॥३८॥
जसे नरसिंहा देवा गा नमन करूं ॥३९॥
जसे परशुरामा देवा गा नमन करूं ॥४०॥
जसे मोहिनी देवी गे नमन करूं ॥४१॥
जसे कुळटीच्या नासा गा नमन करूं ॥४२॥
जसे वाणीच्या नासा गा नमन करूं ॥४३॥
जसे बांदाच्या नासा गा नमन करूं ॥४४॥
जसे सातेरी माये गे नमन करूं ॥४५॥
जसे कामोळ्या देवा गा नमन करूं ॥४६॥
जसे पाण्डीतल्या नासा गा नमन करूं ॥४७॥
जसे धुंदेश्वरा देवा गा नमन करूं ॥४८॥
जसे रणखणीच्या नासा गा नमन करूं ॥४९॥
जसे बावन्न पुरुषा देवा गा नमन करूं ॥५०॥
जसे कळीच्या देवा गा नमन करूं ॥५१॥
जसे नागड्या बेताळा देवा गा नमन करूं ॥५२॥

जसे आर्यादुर्गे माये गे नमन करूं ॥५३॥
जसे महादेवा देवा गा नमन करूं ॥५४॥
जसे केशवा देवा गा नमन करूं ॥५५॥
जसे क्षेत्रफळा देवा गा नमन करूं ॥५६॥
जसे दामोदरा देवा गा नमन करूं ॥५७॥
जसे विष्णु देवा गा नमन करूं ॥५८॥
जसे जल्म्या देवा गा नमन करूं ॥५९॥
जसे मुळेरा देवा गा नमन करूं ॥६०॥
जसे दाढ या देवा गा नमन करूं ॥६१॥
जसे देवते माये गे नमन करूं ॥६२॥
जसे माकोडया देवा गा नमन करूं ॥६३॥
जसे भगवती माये गे नमन करूं ॥६४॥
जसे सातेरी माये गे नमन करूं ॥६५॥
जसे पाण्डीतल्या नासा गा नमन करूं ॥६६॥
जसे गड्यांच्या नासा गा नमन करूं ॥६७॥
जसे देवते माये गे नमन करूं ॥६८॥
जसे मुळेरा देवा गा नमन करूं ॥६९॥
जसे राम देवा गा नमन करूं ॥७०॥
जसे वीर विठ्ठला देवा गा नमन करूं ॥७१॥
जसे क्षेत्रफळा देवा गा नमन करूं ॥७२॥
जसे मोक्षप्राण्या देवा गा नमन करूं ॥७३॥
जसे नारायणा भूता गा नमन करूं ॥७४॥
जसे पान्नातल्या नासा गा नमन करूं ॥७५॥
जसे शिवरांच्या नासा गा नमन करूं ॥७६॥
जसे वनदेवते माये गे नमन करूं ॥७७॥
जसे चुकमाकल्या देवा गा नमन करूं ॥७८॥

थंडो खेळावे गड्या
उदकापासून निवळ रे ॥
मांड फोडसी गड्या
मांडामदी खेळा रे ॥

केळीचो पींड मोडे
आमच्या गड्या रंग चढे ॥
ताळयो वाजवन खेळा रे
उदकापासून निवळ रे ॥



श्री गणेशा तुका नमन घालूं ।
माण्णानासा तुका नमन घालूं ।
तुळशी माये तुका नमन घालूं ।
धर्तरी माये तुका नमन घालूं ।
जलम्या देवा तुका नमन घालूं ।
परशुरामा देवा तुका नमन घालूं ।
निराकार देवा तुका नमन घालूं ।
पाच पांडवा तुका नमन घालूं ।
तेहतीस कोटी देवा तुका नमन घांलू ।
चुकल्या माकल्या देवा तुका नमन घांलू ।



नगर माजार होर नाथा कोण तो राजा
नगर माजार होर नाथा दशरथ राजा ।
जशो येळमूर्त धन्न माटवा मेढ घातीला
जशो येंकवीस मेडीचो राजान माटोव घातीला ॥
जशो माटवा माजार राजान सवो घातीला
जशो चार बगलात चार माणका घातीला ॥
चार खुरान चार चवरा सोडीला
जशो सुमित्र राणयेन लागे वरो तो नाथ ।
जशो नवरात्री नवदुर्गा दीस लगीन जाला ॥
जशो माणका मोती लावन नारी भरयाली शेंस
जशो सुमित्रे गा चिरमुले केस
जशो सुमित्रे राणये नाही पुत्र फळ
जशो केगावती राणे हो लागो होर नाथ ।
जशो नवरात्री नवदुर्गा दीस लगीन जाता
जशो केगावती राणये हो चिरमुले केस ।
माणका मोती लावन नारी भरयाली शेंस
जशो केगावती राणी हो नाही पुत्र फळ
जशो कौसुल्या राणी हो होर तो नाथा
जशो नवरात्री नवसा दीस लगीन जाता
नशो कौसुल्या राणे हो ताजे चिरमुले केस ।
जशो माणका मोती लावन भरयाली शेंस
जशो कौसुल्या राणी हो नाही पुत्र फळ
जशो तेगे जाणी राणी हो ताजी वांजी जाला।
जशो सर्व रे वाटेन राजा सावधा घोर
पुत्रा रे कारणासी राजा दुःखे शेर ॥
जशो पुत्रारे कारणाशी राजा वना चालला
जशो चालोनी चालला हो राजा पावतो जाला ।
जशो राजा अटंग वनात पावतो जाला
जशो वनांत जाऊन हो राजान काय हो केला
जशो चार कोणशे चौखोंद राजान तळये मारीला
जशो शीळा गा फुटून तळये पाणी ते जाला
जशो तळयेचे पाणी गा दशरथ राखू बैसला

जशो शिगमो रे शिगमो गाणी कोणी रचयालो
जशो ईश्वराच्या देवानी गा शिगमो रचयालो
जशो ईश्वराच्या देवानी गा काय हो केला
जशो मेतीके मातयेचे घुमट केला
जशो खैरीच्या वृक्षाचो देवानी शंबेळ केला
जशो कासें गा ओतून देवानी कासाळें केला
जशो बेल्लाच्या वृक्षाच्या हो देवानी चामडुके केला
जशो बेंडगा कातुनी हो देवानी फुलां ती केला
जशो बऱ्या बऱ्या कापडयाचो गा देवानी फेटा काडिला
जशो कपडे घालच्या देवानी गा कपडे घातिला
जशो घुमट घेवच्या देवानी गा घुमट घेतिला
जशो शंबेळ घेवच्या देवानी गा शंबेळ घेतिला
जशो तोणयो घेवच्या तेवानी गा तोणयो घेतिला
जशो फुलां घेवच्या देवान गा फुलां घेतिला
जशो कासाळ घेवच्या देवानी गा कासाळ घेतिला
जशो पांच पांडवा घरी गा देव खेळयासी गेला
जशो चालोनी चालत गा देवा पावतो जाला
जशो काझबंदी आंगुणी जाओनी देव खेळू लागला
जशो पांच पांडवा द्रुपदेन काय हो केला
जशो सुवर्णाच्या ताटी हो तिने आरत केला
जशो अमृत फळ हो तिने ताटी ठेविला
जशो तीळा गा तांदूळ तिने ताटी ठेविला
जशो पाच गा वातिची तिने आरत केला
जशो आरत निर्माळोनी देवासी दिला
जशोआरत आळय गे बाळे आसवंत
आया पण नांदू तुजे सासगेवंत
जशो मांडा नासा देवा गा तुका सुवर्णाचे ताट
खेळत्या गडयाक होस्वामी जतन राखा



आदी नमन देवा दुव्वारी
आमच्या देवा गणेशा ।
गणेशाची ढोलाय राणी
शिंपणी खेळय माढवां दारी ।
माटवाची मेढ मुहूर्त घाला ।
आला बा रडा पाय धुवा ।
पाय बा धुले विडे केले, विडे केले
सुखासना मानव केले ।
कालची व्हकल पलती धेडी नवरराज बैसला
आंब्याच्या रूका लागुनी बा जांभळा ॥
थोट्याने पांगळा पोशयालो ।
घोवाच्या हाता पानाचा विडा
गावची पिडा दूर केला



लांब सोंडयेच्या कमला दाताच्या आमुच्या देवा गणेशा ।
नमन घालयालो गुरु निराकारा आमुच्या नमन घालयालो ।
खेळत्या माडांक आमच्या नमन घालयालो ।
खेळत्या माडांच्या गड्याक आमच्या नमन घालयालो ।
तेत्तीस कोट देव राजा नमन घालयालो ।
विश्वामित्र गुरु स्वामी नमन घालयालो ।
राम लक्ष्मण चल्ल्या आमच्या नमन घालयालो ।
चुकले माकल्या देवा आमच्या नमन घालयालो ।
लंकेच्या रावण राजा नमन घालयालो ।



# सुंवारी

सुंवारी हो काणकोणच्या कष्टकरी लोकांचो प्राण. परत काणकोण म्हालाचे दोन भाग जर केले जाल्यार आदिवासी वाठारांक सुंवारी हो प्रकार ना. शिगम्याच्या वेळार, चवथी दिसांनी, जात्रांच्या वेळार सुंवारी फुलता. सुंवारी पळोवपाची नासता. तर ती आयकुपाची आसता. एक दोन तीन न्हय तर पांचा परस चड घुमटेली. साथीक शमेळ, कासाळें हांच्या संगतीत

आताळी हागण

पाताळी हा गण

सभेमध्ये हा गण

श्री गजानन ।

या गीतात सुवारींची सुरुवात जाता. वाजोवपी बदलतात. गावपी बदलतात तशी गीतां लेगीत बदलतात. त्या जाग्यार येतात

'कैकयीच्या मनी राम नसावा

राज्य सिंहासनी भरत बसावा ।

सारख्या गीतांचो आसपाव जाता.

सुंवारी म्हळ्यार वाद्य मेळ. काणकोण म्हालांत प्रत्येक वाड्यार हो एकेक मेळ आसा. चवथी दिसांनी खांद्यार घुमटां लावन हो मेळ वाड्यावेल्या लोकांगेर पुजेक वता. थंय सुंवारी फुलता. आरत्यो जातात. मदेंच -

'आरती सप्रेम जय जय विठ्ठल परब्रम्हासारखी' दशावताराची आरत तयार जाता. ही आरत अर्द अर्द वर चलता. वाजोवपी घुमटेली वाजयता तसोच नाचता. पळयतल्याक नाचयता. रमयता. हे सुंवारेक चंद्रावळ, फाग सारखे प्रकार चलतात. मदेंच एकटो उठता आनी म्हणटा

'कवाश्याची पाकळी किरान कापली देरान वाटली भावज्यांक ।

जाल्यार दुसरो उठटा आनी म्हण्टा

या कोंब्यात म्हगेलें भात खायले

फार कसो मारू मामा

फार कसो मारू ।

गणपतीच्यो तरेक वार आरत्यो, शंकराच्यो, सत्यनारायणा आरत्यो ह्या सुंवारेच्या बेळार जातात. सुंवारी म्हळ्यार शमेळ, घुमट, कासाळे हांची जुगलबंदी. मैफल. घुमट वा शमेळ तशेंच कासाळे एकेरी आयकोवपाक बरें दिसना. पूण ह्या तीनय वाद्यांचो मेळ जाता तेन्ना ती सुंवारी शिंवोर उडयता.

झाडांच्या तेंगशेर बसला कावळा
मामा येई घरा भुर्रकन उडाला, नाजाल्यार
बाळाच्या पाया रुप्याचा वाळा
तीट लावुनिया दृष्ट त्याची काढा

सारख्या गीतांनी सुंवारी फुलत वता, रात गाजयता. जागयता.



# झाडो

अस्ति, पुस्तिन, सप्तीन, सागर, देवकीन, पुरव, उत्तर, नमन सालकेच्या देटी गावतुरेच्या शिंगासाठी पांच देव इल्ले ऐपणा घर मळ्यार पान ना मळ्यार सावळी ना. देवरे भोवता पळावैर, अरे आमच्या देवानी रचली. छपळमाडी, चपळमाडीचो बेडो टाकून दिलो रे सप्कोटी सागरामध्ये पाळा गेली पाताळा कळव गेले आकाशात, माडीच्या कपळा रे देवानी बसकार केली. माडीच्या कपळारे देव बसुन बुद्धीचे करू लागलो. आमच्या देवाने काळी गावतूर रचली. नाणयली, मारवयली. केसयली, ओळयली. धूपयली. गंधयली. धाडून दिली रेपातळ रवडा राजामंधी, अरे आमची गावतूर चालून चालली पावोन पावलेरे पातळ रवंडा राजामधी, अरे थंय आसा एक रोयणीचे लिंग, देवाच्या गावतूरेन दाव्ये दिमयो मारल्यो. उजव शिंगाडो ये मातयेक मात्यो, आनी थंयच्यान रे देवाची गावतूरी मागा परतली. आमचे येथे दैत्य आसेले, देवाची गावतूरी दैत्यानी धल्ली, मारवधली, नाणयली, केसयली, ओळयली, धुपयली, गंधयली धाडून दिली रे आमच्या देवाच्या सभेमधी. चालू चाललोरे पाऊस पावलो रे आमची गावतूरी देवाच्या सभेमध्ये, दाव्यो दिमधो मारल्यो. उजवी शिंगाडो रे मातयेक माल्लो. आनी थंयच्यान रे देवाची गावतुरी मांगा परतली, ते त्यावेळेर रे आमच्या देवाने काडल्यो कमलेच्यो सुरपो. आनी गावतुरेच्यो शिंगाडो रे देव खुटू लागले. देड गुंजी रे देवारापाती मीळना जालीं. अरे मच्या देवानी काळी गावतुक धरली, नाणयली, मारवयली, केसयली, उकयलज्ञ, धुपयली, गंधयली, देवनारो काडल्यो कमरेच्यो सुरयो. गावतुरेच्या शिंगाड्या रे त्यांनी खालच्यो वरच्यो रवड्यो घातल्यो, धाडुन दिल्यो रे पातळ खंडा राजामधी, थय आसा एक रोयणीचे लिंग, देवाच्या गावतुरे दाव्या दिमयो मारल्यो. उजव शिंगाडो रे त्यानी मातयेक मारली, आनी थंयच्यान रे देवाची गावूतरी मागा परतली. हांगचे थंयचे दैत्य आयले, देवाची गावतूरी धरली. नाणयली, मारवयली, केरायली, उकयली, गंधयली, धूपयली धाडून दिली रे देवाच्या सभेमध्ये. चालून चालले रे मावून पावली देवाच्या सभेमध्ये. अरे आमचे देवो गावतूरेकडे शपथ शरणा लागली. गावतूरेची शिंगाडी रे ते खुटू लागले. आमच्या देवास रे देड गुंज माती मिळतीसरे. आमच्या देवाने देड गुंज माती घेतली हातीच्या तब्टावर, चालून गेले रे आमचे देव. सप्तकोटीसाग

सपा कोटी सांगलामधे, आमच्या देवानी देड गुंजी माती टाकून दिली रे, सप्त कोटी सागरामधी, देड दिसाची पाकळी रचली. नऊ रचेली दोणयेक पृथ्वीकडे

अंधार रे पडली. अरे आनकासूर राजान कायरे केल्या ताळ नसले, मृदंग सावळे सात दिसात सात राती रे रचेल मांडली, आनकासूर राजाची कूड पडली. प्राण गेली रे. आकाशात ते ह्या वेळेर रे आमच्या देवाने चंबू आडून गंगेचे पाणी आडले, आणि अनकासूर राज्याच्या नजरेत मारून सायसूद केलो. तुमच्या देवाक धात्या दिता, भाट दिता, मिरास दिता आमका देवक धान्य नाका भाट नाका मिरास नाका. सांज सूर्यबाळ आमकां दिवचे पडले. आनकासूर राजाने रे रवाड ओट काडना अस्तिमा देवाचे बाळ देवास दिले, आमच्या देवानी किरमळकी रथ होडलो. किरमळका रथा रे बाळ सुरववण झाले, सांज सूर्यबाळ घणा लागलो. नऊ रवंडी दोणयेक आनी बारा रवंडी पृथ्वीक उजवाड पडलो. मच्या देवने रे काय केल्या तिसोलाची बसोव रचलो. धाडून दिलो रे आमच्या देवानी सप्तकोटी सागरामधी, एक सागर पोहता दोन सागर पोहता तीन सागर पोहता चार सागर पोहता पाच सागर पोहता सहा सागर पोहता सात सागर पोहता पोहता ताका दोघांची भेट झाली, तांचेकडे आसली रवैरीची बी. आमच्या बसवान काडून घेतली. धाडून दिली रे आमच्या देवाच्या सभेमधी. आमच्या देवानी काढली बी घेतली घातीच्या तळटावर. देवानी परीक्षा रे करूर जायना झाली. आमचा ब्रम्हा आयलो क्यानी समजलो मनी समजलो वरैरीची बी म्हणून त्यांनी परीक्षा केली. अरे खाद्दार आले रवोरे कुदळ, गुंरून घेतली रवैरीची बी चालून गेले रे ते बुरवळीच्या वनामधी. आमच्या गुरुन मारली कुदळ काढली धेपां तांतूक नाटली रबैरीची आने धरले, धारतरेचे काढले. कड्डाचे शिंपण शिंपले मेघाचे. कोम रोचलो रे ताका फुकूडसा, एक पान जाले. सांजसूर्य बाळ जल्मलो. दोन पांत आली शेवटी जन्मलो. तीन पान जाले तीन नकुल राज जन्मले. चार पान जाले खापरा जल्मले. पांच पान जाले पांच पांडव जल्मले. सहा पान जाले नाग जल्मले. सात पान जाले कुंवर जल्मले. आठ पान जाले कृष्ण जल्मो. नऊ पान जाले. नऊ कोटी दोणये जल्मले. दहा पान जाले रावण जल्मले. अकरा पान जाले गुरु जल्मले. बारा पान जाले बाबा कोटी सागर सारकोच भरली. तेरा पान जाले तेरा तुपास सुकाळ दिलो. देवाच्या जोतीस साररवेच वाटले. चौदा पान जाले गणेश जल्मले. पंधरा पान जाले. पंधरा पुरास मार्ग जल्मले. सोळा पान जाले हनुमन्त जल्मलो. सतरा पान जाले सतरा सहस्त्र जल्मले. अठरा पान जाले. दांड्या पीकावळ सारखीच पिकली. एकोणीस पान जाले राम लक्ष्मीण जल्मले. वीस पान विश्वामित्र गुरु जल्मले. एकवीस पान जाले गुरु सुवर्ण जालो. गुरु न्हावलो गारवलो कैशी घालो बावन्न शरणाची त्यानी ओठयो ओढत्यो, अक्षदाची रे त्यांनी तीळो केली, अमृत फळ घेतले तीन तांदूळ मंत्रिले, अमृत फळ फोडले एक घायो उडालो दोन

घायो उडालो तीन  घायो उडालो चार घायो उडालो पांच घायो उडालो सहा घायो उडालो सात हायांनी रे रूक भूमीर पडलो, ताळ पडले पणसरा मूळ पडले उदेशेरा आंगाच्या तोलात भूजांच्या बळात रे त्यांनी केली तीन दुपडा, एक उडयले राया घरी, एक उडयले देवा घरी, एक खानी मारून गेला रे थेव्यांच्या घरी, अरे आठ दिसा आठालो बारा दिसा शिगमो शिगमो सरा दीस पावले. दात्री लायले सुत्रा लायला दहा बारा तोण्यां जोड सारखेच कापले. गुरु जोड गुरफ रंगलो लागलो मुसारी झाडून घेतलो. थयच्यान घेतलो ताणजोड चालून गेला रे चितऱ्याच्या घरी चितऱ्यांच्या झीलाने आठीस सोडय भट्टी सोडय आठ दिवसात आठाळो बाना थिचा शिगमो शिंगमसरा दीस पावलो. गुरुची जोड गुरुक दिली. लागलो मुशारी कढून घेतलो. नवांदार घेतले पितांबर उजव्या हाती तोगयामेळ चालून गेले रे तुळशीच्या मिल्लीस नदी, आणि दहा बारा गड्याक त्यांनी रे साद केले. दहा बारा गड्यो न्हावल्यो मारवल्यो केशी घातल्यो इरगांटी ओटी आळत्यो चंदनाची दहा बारा गड्यो गुरुच्या गारणा गेल्यो. सेदेवेळार रे दहा बारा गड्याक दहा बारा तोड्या जोड सारखेच वाटले. रवेकला हांडता गड्या गडो आदळलो तोणी पडली भुमीर आताळी गेल्यार कोपऱ्यान काडटलो, पाताळी गेल्यार गरयेन काडटतो, नुवे गांवचे आमी रवेळेसरे.

१. महादेवा देवा नमन खेळ खेळता
२. जलम्या देवा नमन खेळ खेळता
३. भुमी पुरुसा देवा नमन खेळ खेळता
४. साठ पुर्वा देवा नमन खेळ खेळता
५. दरवट्या नासा नमन खेळ खेळता
६. घरवयी पुर्सा नमन खेळ खेळता
७. तुळशी माये नमन खेळ खेळता
८. खेळता गड्या नमन खेळ खेळता
९. खेळत्या मांडा नमन खेळ खेळता
१०. वाजत्या तोणयेक नमन खेळ खेळता
११. चुकल्या माकल्या नमन खेळ खेळता



# घारियो

ये घारी योगे घारी यो आकस पित्यो घारियो
ये पाकाटे मोडून झोळियो बोरू यो
घारियोगे घारियो
ये चांदवाली चांदवाली चांद मेडो यात गे
चांद मेडो खाता गे
ये जांबळा सोडून बेंडसा खाता गोड साखर
ये बायल गोरी म्हण न्हिदलो घरी
ये आर बाराची दुकरा येऊन खारी
आरे खाली गा सारी आरे खाली गा
ये जळू तुझ्या गोरेचे गे
दुःख पडले माका औरेचे
ये दनपराचो भार जाला धुल्ल तापला
ये सलम घोडो उभो जाला खेम देवला
ये शेळाशेत बादली पाणी आडली राणी रामाची
ये रामा तुझ्या दरबारा हो उडते वानर
ये आयली कांतर बसली मानेर शेप धडगये चानये
ये गायच्या पाण्यार नई गोडेल्यो
मस्तकी मोतीया दातोण्यो
ये वनीचे मोरूल्ये वन्नी फळा गा
ये वनीचे फळ खा घेवुनी फळ खा
ये वनी फळ खा मोरुल्या
रान वनी जा -



# तालगडी

शिमग्यातली तागलडी हो प्रकार म्हळ्यार ताल आनी लय हांचो मिलाप.

जे रंग तालगडी जे जे था गीतान हो नाच सुरु जाता. रामायण, महाभारतातलीं राम ना जाल्यार पांडवांचे वर्णन आशिल्लीं गीतां ह्या नृत्यप्रकारांत सादर करतात. घुमट, शमेळ, झांज ना जाल्यार कासाळें हांच्या संगतीक मदें मदे शेनाय लेगीत आसता. पयलीं मुखेल गायक तालगडी म्हण्टा. घुमटाचेर थाप पडटा. विशेश म्हळ्यार हांगा उतर वा स्वरापरस तालाक चड महत्व आसतां. तालार खेळटात म्हण ती तालगडी.

शिमग्याच्या दिसानी घराघरांतला तालगडी खेळटात मात मांडार तालगडी शेवटाक खेळटात. ताच्या उपरांत आनी खेळ जायना. एक एक दोन दोन तास लेगीत मांडार तालगडी खेळटना धुंद जाल्ले जाण्टे कलाकार सगळें देहभान विसरून नाचतात.



अशी जे रंग तालगडी जे रंग था
मोठा राजा धरमनिष्ठ होता
कैसा तो वजर शिळा हो...
सूरयाळ राजा चांगुण ही राणी
बाळ सावळ चिलया हो...
नारद येवोनी कळा लाविता
तो गे कैलास हो...
कैलासाहुनी आला सदाशिव
बसलो तो वरवंट्या हो...
खाकी झोळी हातानी रोटी
मोस मागतो बाळासी नरासी हो...
मागील दारी जाऊनी हाक मारगे
बाळ सावळ चिलया...
बाहेर जाऊन हाक मारिला
बाळ सावळ चिलया हो...

चिलया चिलया म्हणुनी एक मारिला
धावत आला चिलया हो...
पायी पैंजण हाती घुंगरा
नाचत आलो बा चिलया हो...
कैसासाठी हाक मारिला
ते माते सांग गे...
कैलासाहुनी आला सदाशिव
बसला तो वरवंट्या हो...
खाकी झोळी हातानी रोटी
मोस मागतो तुज बाळ हो...
उजव्या हाता खडग दाव्या हाता शीर
वद माते कंठ शीर हो...
चिलया मारोनी मोस रांधिला
उठा हो देवानो भोजनासी हो...
शिर ठेवोनी मोस रांधिला मी
उठ तो ना भोजनासी हो...
होवी गावीच्यो शिर काडीये
तेन्हा आमी उठना गे भोजनासी हो...
मी पापीण वैरागीण
तुझी पुता वैरागीण हो...
होवी गावीचे शिर काडी चे
उठा हो देवानो भोजनासी हो...
तीन पाने ठेवोनी मोस वाडिल्या
उठा हो देवानो भोजना सी हो...
तीन पाने ठेवोनी मोस वाडिल्या
मी उठोना भोजनासी हो...
आमी दोघे तुमी एकटा
चौथे पान कोणासी हो...
आमी दोघे तुमी एकटा
चौथे पान कोणासी हो...
चार पाने ठेवगे मोस वाडगे
आमी उठतो भोजनासी हो...

चिलया मारूनी मोस रांधिला
आता खंयचो चिलया हो...
मागील दारी जाऊनी हाक मारिली
बाळ सावळा चिलया हो...
बाहेर जावूनि हाक मारिला
बाळ सावळा चिलया हो...
पायी पैंजण हाती घुंगरू
नाचत आलो बा चिलया हो...
जे रंग तालगडी





अशी गे रंग तालगडी जे रंग था
ये दशरथ पिता कौसुल्यी माता
भक्त तयांचा मारुती हो...
ये रामचंद्राच्या बंधू लक्ष्मण
अयोध्येचा राजा होते
राम लक्ष्मण सीता मिळोनी
चालले वनवासी
राम लक्ष्मण भरत शत्रुघन
शेषाचा अवतार हो...
ये पंचवटी मध्ये गुंफा बांधिली
राहीले वनवासी हो...
ये मंदोदरीचा पुत्र इंद्रजित
तो गेला पाताळी...
चौदा वर्षे उपवास भोगिला
इंद्रजिताच्या कारणी हो...
कंदमुळा फळा आणूनी देतो
आपण तो उपवासी हो...
पाताळी जाउनी हवन मांडिला
रथ काढा या साठी हो...
नदर तराटूनी पाहे इंद्रजित
फुडे दिसतो सौमित्र हो...
गजेखांब्या मध्ये आड राहोनी
बळे उतरे बिभीषण हो...
गजे खांब्या आड राहोनी
वदिला तो इंद्रजित हो...
नदर तराटूनी पाहे इंद्रजित
चौदा वर्षे उपवास भोगूनी
वदिला तो इंद्रजित हो...



अशी जे रंग तालगडी जे जे था
प्रभगातचो फिरंगी नवराज आला हो
नभानवोर्द केलो हो ॥
धोतरा चोळीयाची वर्द केला हो
खबर कळली सत्तरी राण्यासी
सत्तरीचो राणो हो उठला हो ।
दुल सूर मार्ग धरीला हो
एक दोन गाव लोटिले.
खबर कळली हो फणी बाजेरा
साढे तिनशी लोकांनी केला एक टाय
दारू गोळ्या सामान चल जावू
राण्याच्या शोधाला
गावच्या देवा पाव म्हाका तू
तुका दीन बोकड्या धर हो
नाल्ल माल्लो चाकरासी हो
बोकडो दिलो बाबरासी हो
नानासी कोट फोडिलो हो
उपाशीला गाबूर झाली हो राजा
जे रंग तालगडी जे रंग था.



जे रंग तालगडी जे जे था ।
खाडे गावचो मीठकारी हो राजा
अशी गुडगुडी खंय घातिली गो दिवल्या
अशी गुडगुडी फुटली हो गा नायका
अशी दांडी खंय घातिली गे दिवल्या
ठेवयासी दांडी दान केली हो
चिलीम खंय घातिल्या दिवल्या
चिलीम खंय फुटय गा नायका
कुमाराशी दान केल्या हो.
इग्युल्याच्या तडी बा कुरल्याची कडी हो
ये ताज्या उतल्यान माल्ली दोन कट्टी माडी
आता घुवक येता म्हण हाता घेतली बडी
असो वचन पडो इग्युल्याच्या खाडी
जे रंग तालगडी...



जे रंग तालगडी
जे जे था
वाटेवेल्या वडाचो खांदो करकरी गा
त्या वै वडाच्या पोंदा गायी गोठेल्या हो
गाईच्या गोठणार शेण भरी नारी हो
भरीता भरीता भरली एक बुटी हो
वाटेन वता एक सोनार शेटी हो
वाटेन वता एक सोनार शेटी
अगा अगा शेटी मामा
उकल म्हजी बुटी गा
उकलता उकलता पडली दोघा मिठी
गळ्यास पडली मिठी गे
सासूबाई तोडली गळसरी सांडती झंजरी गे.



जे रंग तालगडी
जे जे था
साते दिसा वाटे आमी जावू साते
आणियाला रोपा रुमडाचा
मारियाली कुदळ काडियाला धेपा
त्यातूक रोवा रोपा रुमडाचा ॥
मारियाले खोरे काडियाली चरी
त्यातूक आल्यो झोरी पातळीच्यो
साखरेचे आळे दुधाचे शिंपणे
करिती जतन रुमडाचे ॥
एक पानी रुमड दोन पानी पावला
तिसऱ्या पानी रुमडी दावा केला ॥
चार पानी रुमड पाच पानी पावला
सहा पानी रुमडी कोंब गेला ॥

सात पानी रुमड आठ पानी पावला
नऊ पानी रुमडी अंकुर आला ॥
दहा पानी रुमड अकरा पानी पावला
बारा पानी रुमडी कोंबही आला ॥
तेरा पानी रुमड चौदा पानी पावला
पंधरा पानी रुमडी विस्तार घेतीला ॥
सोळा पानी रुमड सतरा पानी पावला.
अठरा पानी रुमडी कळा आला ॥
एकोणीस पानी रुमड वीस पानी पावला
एकविस पानी रुमडी फूल आला ॥
रुमडाचे फूल आणून देगा बंधवा
तेन्हा तुझ्या लग्ना करो धरी ॥
गावान गावच्या शेटी घालयासी वेटी
धडय फूल शेटी भांगराचे
बत्तीस पाकळ्याचे फूल भांगराचे
करवण देगा शेटी रुमडाचे
तेवय फूल घेऊन गेला भयणीच्या घरा हो...
उठ सायबिणी भयणी माझ्या
रुमडाचे फूल नी नदरात
घेगे पदरात भयणी माझ्या...
कापसाच्या सुता ओळ्याचो वाती
दिव्याच्या जोती फूल ओटी घातला
बत्तीस पाकळ्याचे फूल भांगराचे
करवण दिला तेका रुमडाचे
तेवय फूल घेवन गेला मावा पलंगार
मावान सांगला सुने मायेपण
तेवय फूल घेवन गेला माये पलंगार
मायीन सांगला सुने जावेपण
तेवय घेवन गेला जावे पलंगार
जावेन जावेचेर फाट केला



जे रंग तालगडी
जे जे था ।
दरया किनारी फुल फुलला
फूला जगलबा जेला हो...
भुजंगाच्या मांडीवर
कृष्णदेव निजला हो
करी हो खेळया भुजंगाशी
मध्यान्नेच्या काळरात्री तानसर लागली
भुकसर लागली
दूध सयी रडत बाये
रडू नको श्रीहरी
घालून पाळण्या झोप देती
जसी मती बाई सुंदरी...



गोपालकृष्ण महाराज की जय
ये ब्रजावती टिपऱ्यो खेळती हरीपती
आनंदे नाचती
आनंदाने हरी गुण गाती
धन्य जयाची हरी संगती
ये दावीकडे जाती
राधायती मज यती
हसती राग सोडती
त्या सुमते गोविंद जपती
आनंदाने हरी गुण गाती
धन्य जयाची हरी संगती
ये ब्रजावती टिपऱ्यो खेळती हरी पानी ।
आनंदे नाचती
आनंदाने हरी गुण गाती
धन्य जयाची हरी संगती
भुलल्या सर्व गोप गोपी ऐसा रे
ये दावीकडे जाती
ये एक टिपरी गे दुसरीसे मारगे
तिसरीस घेऊनी चौथीस मारगे ।
ये ब्रजावती टिपऱ्या खेळता हरीपती आनंदे नाचती ।
आनंदाने हरी गुण गाती
धन्य जयाची हरी संगती
ये दावीकडे जाती राधायती यती
मज हसती राग सोडती
त्या सुमते गोविंद जपती
धन्य जयाची हरी संगती
पाचवीस मारूनी सहावीस घेऊनी
सातवी बदलता...
धन्य जयाची...



तासणी कुराड घेवन खंय वता वावराड्या
चंदनाचे आडे तासता झाले फाले
येवजल्ले धडे यजमान्या सिद्ध जाले ।
माटवा मेढ रे गज गज भगवंता
माटवा बुधवंत रे किशोर माजा
माटोव शिवला रे करमला दावांनी
व्हकले भावान माटवा परी काडला
काजळ शिवले गे बिब्याचे
दार खंय गे माटवाचे ॥
दारातल्या पिपळा
सलाम खोड ताळयो
ये लचकत्यो माळ्यो रे लवचाच्यो ॥
काजळ शिवले गे बिब्याचे
दार खंय गे माटवाचे
येणी येता तेणी येता गे बन वावर
काळ वांयगिणी बाचकुले देठा
आडा माटोव रुंद धरा ॥



दांडो शिपी घेवून सीता खेळू चालली बा
मार्गीचा धुल्ल सीता कांडू लागली बा
धुल्ल कांडिता सीते धनुष्य गावला बा
तो धनुष्य घेवन सीता घरी चालला बा
तुळशीच्या पिंडावनी धनुष्य ठेविला बा
त्यारे धनुष्याचे बाचा संयवर मांडिले बा
जनक राजान काय हो केला
गावोन गाव लोकां पत्र पाठविला बा
देशोन देश राजा पत्र पाठविला बा
राम लक्ष्मण चल्यां पत्र पाठविला बा
लंकेचा रावण राजा पत्र पाठविला बा
तेहतीस कोट देवराजा पत्र पाठविला बा
देशोन देश राजे संयवरासी आले बा
विश्वामित्र गुरुस्वामी संयवरासी आले बा
राम लक्ष्मण चले संयवरासी आले बा
तेहतीस कोट देव संयवरासी आले बा
लंकेचा रावण राजा संयवरासी आलो बा
जनकराजाचे घरी सभा दाटली बा
बसत्या सभेस तो रावण उठला बा
धा शिरा वीस भुजां धनुष्य ठेविला बा
धनुष्य चकर रावण हुरी चेपला बा
रावणाचे नाकी तोंडी रक्त व्हांवले बा

हत्तीयेर बसून सीता माळ झेलिता बा
बसत्या सभेस तो लक्ष्मण उठला बा
दाव्या पायी किरांगुळी धनुष्य झेलिला बा
धावोनी आली सीता लक्ष्मणाजवळी बा
नंको सीते माळ घालू आमच्या गळी बा
बसत्या सभेस तो राम उठला बा
दाव्या पाया किरांगुळी धनुष्य झेलिला बा
दाव्या पाया किरांगुळी धनुष्य मोडिला बा
सीतेन माळ घातली रामाच्या गळी बा
रामलक्ष्मण दोगां सीता तींगा जाणा बा
ती तीगां चालली वनवासा बा
वनवासा जावच्या मार्गार सूर्य मावळला बा
सूर्य मावळती त्या काळोख जाला बा
तेथे रामान गुंफा बांदियला बा
गुंफेत सीते ठेवियली बा
खबर कळली लंकेवर बा
लंकेच्या रावणान काय हो केला बा
आपल्या मायेचो ताणे मीर्ग रचिला बा
मीर्ग रचून ताणे वनी सोडिला बा
हालत धोलत मीर्ग गुंफेदारी आलो बा
रामलक्ष्मण सीता खेळू बैसला बा
राम भर्तरा लक्ष्मण देरा
हो मीर्ग मारून तुमी कांचोळी घडा बा
मीर्गाचे कांचोळी येते नरघाणी बा
नवलक्ष सोने आटोवन घडीन कांचोळी बा
सोन्याची कांचोळी आहे घरोनघरी बा
मीर्गाची कांचोळी नाही कोणाघरी बा
रामलक्ष्मण गेला मीर्गा फाटल्यान बा
लंकेच्या रावणान काय हो केला बा
कपट विद्या करून सीता चोरून नेला बा
सीता चोरून व्हेला ताणे अशोकवना बा



मृतुकेचा ऐरावत केला कौरवानी बा
त्यावर स्वारी जाला गांधारी राणी बा
आपुल्या नगरी ती वायणा वाहिती बा
उसणे वायण दिले कुंतीशी बा
कुंतेच्या मनी छेद जाला हो बाय हो
पाचजणा मदी तो धर्मराजा थोर बा
स्वर्गेचा घाट भिमान केली पायवाट बा
इंद्रा इंद्रा म्हणत सादच केला बा
मृतुकेचा राजा तो न्हिंदे भ्रमला बा
पाच दिस पाच रात खेळ मांडिला बा
इंद्राचा ऐरावत हाडला पांडवानी बा
त्यावर स्वारी जाला कुंती राणी बा
आपुल्या नगरीत ती वायणा वाहिती बा
परते वायण दिले गांधारीशी बा



तेहतीस कोट देवानी मदालस केला बा
देवता शृंगारे कोण अवतारे त्याने देवत शृंगारले बा
पितांबर सावळ्याची कास नेसली पालव जळामळी गे लक्ष्मी
गळी हार त्याने गळीसी घातिला नव्वद लक्षांचा गे लक्ष्मी
आंगाची कांचोळी आंगाशी घातिला बावन्न विरड्यांची गे लक्ष्मी
कमलेचे वाळे कमरेशी घातिला बत्तीस पेट्यांचे गे लक्ष्मी
कानाचे वज्रपंके कानाशी घातिला आपुल्याजड शोभते गे लक्ष्मी
पायांची नेप्रा पायासी घातिला घुंगरवाळे वाजती गे लक्ष्मी
हाताचे वज्रचुडे हाताशी घातिला काकण वाजती गे लक्ष्मी
कपाळिचे शस्त्रफूल कपिलेशी लाविला दोन डोळे काजळाचे गे लक्ष्मी
त्यावर लाविला गणमृग फणी ताणे शृंगार संपूर्ण जाला गे लक्ष्मी
त्यावर सोडिला सुवर्णाची जाळी ताणे प्रतीम जाकळती गे लक्ष्मी



नायका पायकाचो बसल्यो बाजू बा
थोर थोर देवतांच्यो बसल्यो सभा बा
मदेच्या बाजुवर राम पहुडला बा
सुवर्णाच्या ताटा रामान विडो मांडिला बा
विडो उचलित वीरा सादच केला बा
असे विडो उचलित तो अंजनिचा सूत बा
असे अंजनीचा सूत तो उडला हनुमंत बा
असे उडला हनुमंत तो लंकेमदे गेलो बा
लंका शोधयाली रे हनुमंता बा
जानकेची नाय भेट जाली हनुमंता बा
उडला हनुमंत तो अशोकवनी आला बा
कोजुळ्यो उडविल्यो गे सीतेन कोजुळ्यो उडविल्यो
मुद्रा टाकयाली रे हनुमंता मुद्रा टाकयाली
भूक लागली माते वाढ गे जेवू
झडली पडली केळी खारे पुता
आज्ञा घेऊनी हनुमंत उडला बांदावरी
वन इदवासिले रे हनुमंता वन इदवासिले
खबर कळली लंकेवर रे बाय हो
लंकेचे राक्षस जमा झाले रे बा
फार गोळ्याने त्याला मारू लागले बा
माल्लो माल्लो बाण बज्रनी शिळा
हे बा हनुमंता मरण सांगा तुमचे
लंकेची लुगडी आणा बांधा पुछाशी
लंकेची लुगडी आणून बांधिली पुछाक
त्यावर ओतिले तेलाचे डबे बा
अग्निकांड केलो रे हनुमंता बा
उडलो हनुमंत तो लंकेमदे गेला
लंका जाळयाली रे हनुमंता लंका जाळयाली
गडबडा लोळता रे हनुमंता ढळढळा रडता
उडलो हनुमंत तो समुद्राच्या तीरी
समुंदर पळता रे हनुमंता
हे बा समुंदरा रामाची आण तुका
पुछ पालविले रे हनुमंता पुछ पालविले.



